# व्हडलो जातलों हांव

(शिकपी भुरग्यांखातीर गितां)

भरत रघुवीर नायक

**नामी प्रकाशन**
सी–१, गोल्डन हील व्यू रेगो नगर
बांबोळी–गोंय. ४०३२०२

व्हडलो जातलों हांव (गितां)
बरोवपी : भरत रघुवीर नायक

Vodlo Jatlom Hanv
Songs by
Bharat Raghuvir Naik

प्रकाशन क्र.: १९



पयली उजवाडावणी : २००७

उजवाडावपी : नामी प्रकाशन
सी–१, गोल्डन हील व्यू, रेगो नगर
बांबोळी गोंय. ४०३ २०२

भितरलीं चित्रां : हेमंत कांसार.

मुखचित्र : नामीलो

अक्षर जुळवणी आनी छापणावळ : तुळशीदास राऊळ,
सिद्धान्त प्रिन्टर्स, अस्नोडा–गोंय.
फोन : ३२०८६१४, ९३७२१७२४१५

मोल : ४० रु.

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या
बालसाहित्य अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां

# मांडावळ



**शिकून व्हडले जावंक सोदतल्या भुरग्यांक**

# १. येवकार गीत



येवकार तुमकां येवकार सगल्यांक
हुनहुनीत येवकार
कवतूक करपाक हाजीर आशिल्ल्यांक
काळजांतल्यान येवकार

रसीक तुमी सोयरे आमगेले
स्विकारात नमन
म्हत्व वळखून आयच्या दिसाचें
करतलेत रंजन

तुमचे खातीर आमी सजयला
रंगयाळो वाठार
माया आनी मोग नटयला
उतरांच्या कांठार

काळीज तुमचें खोशेन भरचें
समारंभान आमच्या
भरून वोतचें मन आमगेलें
तोखणायेन तुमच्या

# २. नमन



नेणार आमी नेणार देवा
नमन तुका नमन देवा

भावभयणांवरी हातांत घालून हात
गायत खेळत आमी सगले शिकतात
शिकपाक बळ आनी बुद्दी दी देवा
नेणार आमी नेणार देवा

आवय बापूय आनी गुरुजन आमचे
तुजे सासायेन खोशेन रावचे
शांती सूख आनी पिराय दी देवा
नेणार आमी नेणार देवा

# ३. प्रार्थना

देवा आमी भुरगीं तुगेलीं, आमचो तुका नमस्कार
सांबाळ आमचो करचो तुवें, तुजेर आमचो भार

तूंच मळबांत कुपां खेळयता, चंद्रीम आनी चान्नीं दाखयता
वोत आनी पावस घालून, झाडां रुजयता फुलां फुलयता

तुजेच कुरपेन जातात आमी, ल्हान आसलीं व्हड
तुज्याच आशिर्वादान जावचें, जिवीत आमचें गोड

तुवेंच केले दीस राती, दर्याक फोडलीं ल्हारां
गळून पडुंदी गर्व आमगेलो, उगड मोगाचीं दारां

# ४. मागणी

घे रे देवा मानून मागणी आमची सान
बरे देखीचीं भुरगीं आमी इतलो मेळचो मान

ताळो गोड दी रे
गावपाक तुजें गीत
नासूं भांगर हिरे
जिणेक आसची रीत
जिबेर तुजें नांव जोवेर कुडींत प्राण
बरे देखिचीं भुरगीं आमी इतलो मेळचो मान

दोंगर दर्या जमीन
तुजीच निर्मणी ही
तुज्या पांयार आमी
फुलां माणकुलीं हीं
दी गुणांचें दान आनी विश्वाचें गिन्यान
बरे देखिचीं भुरगीं आमी इतलो मेळचो मान

## ५. म्हजो उपेग कसलो

शूर आसां हांव कितलो, वीर आसां हांव कितलो
घट आसां हांव कितलो, सांगात म्हजो उपेग कसलो ?

बॉम फुटून मनीस मरतात, असलें म्हज्यान पळोव नजो
आदार नासलीं भुरगीं रडटात, तसलें म्हज्यान आयकू नजो
कितलो लोक उदकांत बुडलो, मातयेंत पुरलो उज्यांत ल्हासलो
सांगात म्हजो उपेग कसलो ?

शीमेर आमचे रातदीस जागून, पारो दितात आमचे जवान
तरीय दुस्मान येतात चोरून, फारपेट करून घेतात प्राण
आमी सारके आसले जाल्यार, असलो वगत येवचो नासलो
सांगात म्हजो उपेग कसलो ?

हांव आतां भायर सरलां, बुडटा तांकां आदार दिवपाक
घडटा जाल्यार तुमीय चलात, पिडेस्त लोकां सेवा करपाक
आकांता वेळार पावना जाल्यार, देशाक तुमचो फायदो कसलो ?
सांगात तुमचो उपेग कसलो ?

## ६. म्हाका व्हरात फौजेंत

कोणय म्हाका व्हरात फौजेंत, आतां हांव व्हडलो जालां
शीत जेवतां दूद पितां, तिसरी शिकून पास जालां

हांतात म्हज्या दियात आर्म, खांदार मारून वचपी शीमेर
एक–दो, एक–दो करीत हांव, शिस्तीन सदांच करपी परेड
दुस्मान भितर सरल्यार, ठो – ठो गुळयो सोडपी तांचेर

आर्मींत म्हज्या गुळयो घालून, फार पेटोवंक हांव जाणा
येद्दे मोठे बूट घालून, दोंगर व्हडले चडूंक जाणा
ट्रक रणगाडे व्हडलें विमान, चलोवंक लेगीत हांव जाणा

दुस्मान जेन्ना घुरी घालतात, रागान म्हजें रगत पेट्टा
देशाक कोणेय वायट म्हणल्यार, रागाचो म्हज्या पारो चडटा
पापा म्हजेर दोळे करता, तेन्ना मात्सो हांव रडटां

## ७. काय बरेलो चलो म्हगेलो

काय बरेलो चलो म्हगेलो जाण्टो नेण्टो पोर म्हगेलो
झुजाच्यो गजाली आयकून म्हाका विसरलो
सदां सदां म्हणटा म्हाका पप्पा, फौजेंत हांव वतलों

पांयांक मोठे बूट बांदता मिलिटरीचो भेस करता
माथ्याक एक कट्टें घालून हड्डें फुडें काडून चलता
हात हालोवन पांय मारता लेफ्टरायट लेफ्टरायट लेफ्ट
लेफ्टरायट लेफ्टरायट लेफ्ट

तूं म्हळें येदोच आसा फौजेंत तुका कोण घेता?
सलाम मारून म्हणटा कसो देशाक म्हजी गरज आसा
देश म्हजो पडला आयज व्हडल्या संकटांत
व्हडल्या संकटांत

हांवे म्हळें पुता म्हज्या पयली थोडें शीक रे पोरा
सत्री म्हजी काडून घेवन दोळ्यांक तेंकोवन अशी धरता
तीर करून फार सोडटा ठोठो ठोठो ठो
ठोठो ठोठो ठो

## ८. व्हडलो जातकच हांव

व्हडलो जातकच हांव
वयर वयर वयतलों
धव्याफुल्ल चंद्रिमाक
आमच्या घरा हाडटलों

व्हडलो जातकच हांव
नखेत्रांनी भोंवतलों
नखेत्रांची माळ गुंथून
आवय गळ्यांत घालतलों

व्हडलो जातकच हांव
कुपां मुठींत धरतलों
घराकडेन ओडीत हाडून
पांटले पोंदा धांपतलों

व्हडलो जातकच हांव
फुलां झाडां रोयतलों
सर्गार जाता तशें
संवसारांत करतलों

# ९. गोंय आमचें राज



भारत आमचो देश, गोंय आमचें राज
भुरगीं जरी आमी, गिरेस्त आमचें दायज

सगळे भारतीय म्हजे, भाव आनी भयणां
आमच्या इतलो मोग, दुसऱ्या कोणाक मेळना

जाणट्या नेणट्या परक्यांक, दितले खूब मान
आवय बापूय गुरुजन, हांकां संदाच भोवमान

वयर सरचे आमी, देश आनी देशभाव
हेंच आमचें मागणे, सगल्यांचें बरें जावं

## १०. वाडदिसाक यो

चांदिमामा आयज म्हज्या वाडदिसाक यो
लिकलिकीत नखेत्रांचो शिंवर करीत यो

मळबांतल्यान चलयत हाड रे गाडी कुपांची
सर्गांतली परी एक सोबीत रुपाची

आयज म्हज्या खोशे दिसा सांगात तुजो जाय
खेळ म्हाका शिकय आनी म्होवीं गितां गाय

आमचे मदें बसून खा रे पेडे आनी केक
गोड गोड शरबताची बाटली पी रे एक



# ११. आज्याचें संवंग

न्हावन धुवन आजो म्हगेलो बल्कावांत बसलो
ल्हवूच हांव चोरपावलान आज्या कुडींत गेलों

आज्याचें न्हेसलों पुडवें आनी हांतात घेतलें रोत
माथ्याक घाली तोपी आनी आंगाक घालो कोट

नाकार थेयलें वक्ल खोमसान पुसून हारशे
झेत मारले अशे अशे पप्पाचे घालून मोचे

खोक खोक काडली खोकली मेजार मारली मूठ
आज्याक म्हणलें आरे पोरा सोप्यावयलो ऊठ

आज्यान सगल्यांक आपोवन म्हणलें पळे चोराक पळे
म्हाका पळोवन हांसून हांसून पोटांत तांच्या गुळे



# १२. लगीन जातलों हांव

बेगीन बेगीन व्हडलो जावन
लगीन जातलों हांव
सैन्यांतलो हाडटलों
मिशयेकार मांव
एकाफाटल्यान एक म्हाका
भुरगीं जातलीं तीन
शिकयतलों खूब तांकां
तकलेन जातलीं फीन
खेळून आनी व्यायाम करुन
आंगां जातलीं घट
व्हडलीं व्हडलीं कामां मागीर
करतलीं फटाफट
काबार करुंक संवसारांतली
हिंसा आनी अधर्म
अख्ख्या जगाक शिकयतलीं
मनीसपणा धर्म



# १३. हांव जातलों पप्पा

हांव जातलों व्हडलो
जातलों एक पप्पा
मम्मी जातली जाण्टी
पप्पा जातलो बाप्पा

एक आसतली मुन्नी
एक आसतलो मुन्ना
म्हाका म्हणटलीं डॅडी
तिका म्हणटली मम्मा

आरशांत पळोवन सकाळी
हांव काडटलों खाड
बूट घालून ऑफिसाक
वतलों खाड खाड

आयतारा दिसा सगल्यांक
व्हरतलों दर्या वेळेर
आमी बसतलीं धडेर
पोरां खेळटलीं रेंवेर



## १४. सक्काळी

सक्काळी हांव उठ्ठां तेन्ना
गोड गितां वाजतात कानार
रंग रंगयाळीं ल्हान व्हड शेवणीं
चींव चींव करीत नाचतात तालार

दोंगरा वयल्यान सूर्य रकयता
उजवाडाचीं भांगरार भांगरां
दिसभर मनांत वाजत रावतात
नाचांतलीं तीं मधूर कांतरां

सदांच अशे फांतोडे वेळार
सुंदर सुंदर नाच आसतात
नाच तांचे पळयत जाल्यार
दीस आमचे बरे वतात



# १५. शेवण्या शेवण्या



शेवण्या शेवण्या सांग म्हाका
अशें गो तूं कशें?
म्हऱ्यांत म्हज्या यो म्हणल्यार
उडून वता पिशें

झाडार बसून फळां खाता
व्हाळांत वचून उदक पिता
घुसुघुसू एकटेंच न्हाता
वोतांत बसून आंग सुकयता

यो गो शेवण्या पोरसांत म्हज्या
रंगीत तुजीं पांखां फुलय
म्हजे वांगडा गोड उलय
म्हाका तुजी रीत शिकय

## १६. शाळेचो पाडो

शाळा एके शाळा
धांवा पळा पळा
शाळा दुणे बोटवो
फुस्तकांचो कोठवो
शाळा त्रीक अभ्यास
शिकलो जाल्यार पास
शाळा चोक चोपडी
मारुतीची शेपडी
शाळा पंच पुस्तकां
गोंदळ जाला मस्तकां
शाळा संक मास्तर
सगल्या भुरग्यांक पास कर
शाळा सप्ते बाई
तांबडी तांबडी शाई
शाळा आठा घरपाठ
फाट जाली दाट
शाळा णवे घंटा
घरा वचा म्हणटा
शाळा धंय कोण ?
वाटेवयली घोण !

# १७. हांव जालों पास

हांव जालों पास..........................हांस हांस हांस
हांव जालों पास..........................नाच नाच नाच

पापा आतां हाडटलो....................पेडे भरुन कास
परबीं दिवपाक येतले...................इश्ट म्हजे खास

आई म्हजी घेतली.......................गोड गोड पापी
कुंय कुंय गायतलो......................शेपडी हालयत शॉपी

सुटयेंत म्हज्या इश्टांवांगडा...........खेळपी हांव क्रिकेट
एका बॉलाक एक.......................घेवपी हांव विकेट

मे सोंपून जुनांत........................शाळा आमची सुरू
खूब खूब शिकतलों....................पेनां कितलींय झरूं

## १८. सुटी पडली सुटी

सुटी पडली सुटी
बरीच व्हडली सुटी
शाळा सुरू जायसर
खेळपाची दाटी

भोंवपाक आमी वयतलीं
गाडी घेवन कळंगुटे
कोलवा आग्वाद मिरामार
बोंडला आनी दिवाडे

बाबा म्हाका शिकयतलो
तबलो आनी पेटी
आई भितर रांदतली
गोडशें आनी गांटी

शाळा सुरू जातकच
बाबा वतलो ड्युटीर
हांव वतलों शाळेंत
बोटवो मारून फाटीर

# १९. आंबली

घण घण घण घण
शाळे घण्टा वाजली
कावळ्यान मारली चोंच
पडली खाला आंबली

प्रार्थना करपाक आमी
तायट उबीं खेळामळार
आयचे विचारआयकतना
दोळे आमचे आंब्यातळा



पयल्या वराक वर्गांत
आयली टिचर कांबली
शिकयतना दोळ्यांमुखार
उबी रावली आंबली

दुसऱ्या वराक खेळामळार
केली आमी पिटी
आंबली चोखीत उबी
धोंडुबाली बेटी

## २०. एक ते वीस

एक दोन तीन चार
पेनाक आमच्या काडया धार
पांच स सात आठ
अभ्यास करचो तोंडपाठ
णव धा अकरा बारा
शिकना तांकां धरुन मारा
तेरा चवदा पंदरा सोळा
फेल जाल्यार हात चोळा
सतरा अठरा एकणीस वीस
बरे शिकल्यार बरे दीस



# २१. गणिताचो सर

आमचो गणिता सर
कठीन काडटा पेपर
फेल जाल्यार म्हणटा
हात फुडें कर



पिरेड ताचो व्हडलो
सोपन सोपना
गणितां घालता फळ्यार
कळन कळना

दोळ्यांत ताच्या शेणल्यांत
गणितांतलीं शुन्यां
आमच्यो चुको काडपाक
बोल्साक दोन पेनां

कितल्योय चुको जावं
गणीत शिकतलोंच
कितलेय कादेन सोपूं
नंबर घेतलोंच

# २२. सुटी म्हणचें सुटी



सुटी म्हणचें सुटी
बोल बॅट विकेटी
खेळटां खेळटां झगडी
आनी परतून एकजुटी

सुटी म्हणचें सुटी
आळशा फाट धपटी
तीन गुंड्या चुलीर चडटा
माती भरून कट्टी

सुटी म्हणचें सुटी
खोशेक येता बुट्टी
मम्मी पप्पाक कळना
तीं मनशां मोठीं

सुटी म्हणचें सुटी
बोलार मारच्यो शूटी
सुटी सोंपसर आमी
व्हडले खेळगडी

# २३. आगो घडयाळा

आगो आगो घडयाळा
राव राव राव
खंयच्याय वेळार करू नाका
ढांव ढांव ढांव




खेळूंक आमी वतात तेन्ना
साप्प चलू नाका
तूंच आमचो वेळ खाता
कांटे हालोंव नाका

अभ्यासाच्या कटकटींतल्यान
तूंच आमकां सोडय
शाळा सुरू जाली म्हणटच
बेगीन कांटे हालय

परिक्षेच्या वेळार मात तूं
काकूत आमची कर
कठीण पेपर आयलो जाल्यार
ल्हवूच फाटी सर

सांगलां तितलेंय केल्यार तुजो
एकेक पुसपी पोलो
नाजाल्यार हालतो धोलतो
बंद करपी टोलो

# २४. व्हडली सुटी

व्हडली पडली सुटी
सोंपल्यो पट्ट्यो कुटी
सोंपली आमची शाळा
जाय तशे लोळा
पुस्तकां मारा दाळा
पोट भरुन खेळा
वयर वयर चडा
घसर गुंडेर पडा
काजू बियो काडा
आंबल्यो तोरां पाडा
धांवा फाट धरा
मजाच मजा करा



## २५. सोयऱ्या रे सोयऱ्या

सोयऱ्या रे सोयऱ्या
यो यो बस
वतना मात तुमगेर
म्हाका घेवन वच

मामागेर वचून वचून
म्हाका आयलो वाज
तुमगेर तरी आसतलो
बरो मेम्या वास



हांव तुमगेर गायतलों
करून दाखयतलों नाच
नाच म्हजो पळोवन
पोट धरून हांस

तुमच्या घरा वण्टींचेर
काडपी सुंदर चित्रां
लाडू मात खावपी
एका दिसाक सतरा

## २६. मावशी करता उपास

म्हयन्यांतल्यान एकदा म्हजी
मावशी करता उपास
त्याच दिसा घरांत आमच्या
सुट्टा तुपा वास

आंबे केळीं आपोल फळां
एकार एक दाळ
खिचडी शिरो खाता बरी
उपासा फळार

पुजा करून जातच आमच्या
कपलाक लायता बिबूत
आपूण बरी गटगट पिता
गलास भरून दूद

भुकेन तिचो जीव जाता
हाय हाय हाय
देखून आई करून दिता
धा फावटी च्याय

# २७. हांवें केली भाजी

जाणा मगे आजी
हांवें केली भाजी

मम्मीन फकत चिरून दिली
हांवे उखलून चुलीर थेयली
भाजेक मीठ हांवें घालें
तिणे फकत काडून दिलें

कांदे टमाट हांवेच घाले
तिणे फकत चिरून दिले
सगली भाजी हांवेच शिजयली
तिणे फकत धवळून दिली

आजेन भाजी पोटभर खाली
धेंकर दियत तोखणाय केली
शाणीन भाजी रुचीक केली
खातां खातां जिरून गेली



## २८. भाकरे बाये

आगे आगे भाकरे बाये
तोंड तुगेलें खंय ?
–घांस मारून भुकेल्लो मनीस
कुडको काडटा थंय

आगे आगे भाकरे बाये
खंयचो तुजो गांव ?
–मातयेंत बीं उडय आनी
उदक घालीत राव

आगे आगे भाकरे बाये
अशी कशी आयली ?
–घाम गळयलो शेतकारान
देखून तुका दिसली

आगे आगे भाकरे बाये
खंय चल्ली थाटांत?
–कश्ट करून भूक लागल्या
त्या मनशाच्या पोटांत

आगे आगे भाकरे बाये
राग तुजो कोणाचेर?
–काम केलेबगर खाता म्हाका
त्याच आळशी मनशाचेर

# २९. पदेरमामा पोंक

पदेरमामा पदेरमामा
पोंक पोंक पोंक
सायकलीचो आवाज जाता
चोंक चोंक चोंक

तुका पळोवन सुणो भोंकता
भोंक भोंक भोंक
इतले बेगीन येता कित्याक ?
संक संक संक

शेपडी हालयत बुकलो म्हणटा
म्यांव म्यांव म्यांव
हांव एक अख्खो खावपी
पांव पांव पांव

झाडार बसून कावळो करता
काव काव काव
झोंपय मारुन उंडो व्हरतां
राव राव राव

# ३०. पदेर भाव

कांकणां उंडे पोळयो पांव
घेवन येता पदेर भाव



सकाळी उठून जाण्टे नेण्टे
वाटेक लायतात दोळे
उंडे ताचे दिसतात कशे
भांगाराचे गुळे

कांकणां भोवच लागतात बरीं
खावचीं कुरूक कुरूक
च्यावेंत बुडोवन तोंडांत ओडची
च्याव सुरूक सुरूक

पांव ताचे दिसान दीस
जातात बारीक बारीक
दुडू मात सांगता तितले
करचे पडटा फारीक

पोळयो ताच्यो बशयो कशो
उगत्यो करून पळय
सुकून घट जाल्यो जाल्यार
भुरग्या बाळांक खेळय

## ३१. पोकेबाब

पोकेबाब पोकेबाब
राव राव राव
म्हज्या एका प्रस्नाची
दी म्हाका जाप

पोकेबाब पोकेबाब
कित्याक खाता पान?
थुकून थुकून नितळ जाग्यार
कित्याक करता घाण?



पोकेबाब पोकेबाब
कित्याक सोरो पिता?
सोरो पिवन घरच्या लोकांक
कित्याक त्रास दिता?

पोकेबाब पोकेबाब
भरले तुजे दीस
थुकता सोरो पिता तांकां
धरून व्हरता पुलीस

## ३२. पावस आयलो पावस

पावस आयलो पावस
पावस पावस पावस

सुके धरतेर थेंब्यार थेंबे
मातयेक सुटलो वास
वारो आयलो कळी काडीत
झाडांनी केलो नाच
पाचव्या चार जित्या तणार
गोरवान मारलो घांस

जगलावणें तें नाचचें म्हूण
वाजले धोलार धोल
शेतकारान बीं घालचें म्हूण
शेतांत जालो चिखोल
तान लागता मनशाक म्हूण
बांयो जाल्यो खोल

व्हाळांत न्हंयांत खोशे भारान
नुस्तें लागलें पेवंक
दोंगर झाडां पेडां लागलीं
नवीं रुपां घेवंक
भिजून आयल्ल्या ओल्या पिलांक
मांजर लागलें ल्हेंवंक

# ३३. झाडां



येदोच एक नाल रोयल्यार
जाता व्हडलो माड
बीं पुरून उदक घाल्यार
जाता व्हडलें झाड

चलून थकलो वाटसुरो
सावळेंत ताचे न्हीदता
गोड फळां खावन ताची
तान भूक न्हिवता

मनीस घटमूठ उरचो म्हूण
हवेंतली घाण काडटा
आमकां उदक मेळचें म्हूण
पावसाक धरतेर हाडटा

आमचे खातीर जगतात झाडां
आमचेर तांचे उपकार
चड झाडां रोवन तांचो
उणो करया भार

## ३४. अशें कशें जाता?



सांग पापा सांग म्हाका
अशें कशें जाता?
धवें धवें मळब अचकीत
काळें कशें जाता?

झिरीझिरी मळबांतुल्यान
उदक कशें पडटा?
सुकें सुकें सैम सगलें
ओलें कशें जाता?

कोण खंयसून कितें करून
रंग कालयता?
टिवी कसो बटन दामून
चित्र बदलता?

# ३५. फुलां



इल्ल्यो इल्ल्यो सुयो कशो
बारीक बरीक जायो
वासाक लागून सगलीं जाणां
घालतात ताचेर उडयो

कोणेतरी मोगरे कळी
दुदांत बुडोवन काडली
एक एक कळी म्हणल्यार
उगती चेरा बाटली

मायक लावन उबें रावलां
शब्दुलेचें फूल
पांयापोंदा लिपोवन थेयलां
कानांतलें डूल

शेंवत्याचें फूल ताका
पाकळ्यो पोसो भर
एक फूल पिसूड आनी
सगलें घर भर

दसणीच्या फुला तुजी
सदांच तायट मान
तांबडी लांब काडी घालून
साफ करता कान

गुलाबाचें फूल सांगता
राजा म्हाका म्हण
भाले हांतात घेवन म्हजी
शिपाय करतात राखण

## ३६. गाडी न्हेसल्या साडी



नट्टो फट्टो करात बरो
भायर सरात बेगीन
गाडी न्हेसून रावल्या उबी
साडे णवांक लगीन

गाडी बरी न्हेसल्या साडी
काळे बूट पांयांनी
तिचे फाटल्यान चलपाखातीर
लायनी लायल्या लोकांनी

आबू बाबून लावन शाबू
आंग तिचें धुलां
माथ्याक व्हडलें बांदून रिबीन
माळळ्यांत सुंदर फुलां

आमची गाडी ल्हवू ल्हवू
चलप करता सुरू
चलतां चलतां आपले भितर
म्हणटा गुरू गुरू

शेनायेचे सूर वाजले
फुगेट्यांचे फार
न्हवरो बसला भितर
लोक नाचता भायर

# ३७. देंवलो पावस



म्हातारेन म्हणलें गड गड
नाच रे मोरा नाच
धरतरेचेर पावस येता
येवकार दियात खास

मोरान फुलयलीं पांखां
बेब्याक सांगलें हांस
डरांव डरांव करूक लागलो
बेबो फांस फांस

वाऱ्यान म्हणलें चला चला
वाट मेकळी करा
आपलीं आपलीं घरां दारां
झाडून नितळ करा

सुळू सुळू कडेक रावलीं
जमनी वयलीं पानां
येवकाराचें गीत गायत
नाचूंक लागलीं रानां

सूं.सूं.सूं.सूं
सैमान धरलो सूर
देंवलो पावस धर्तरिचेर
न्हंयांक आयलो पूर

# ३८. बेबो आनी मूय



डरांव डरांव डरांव करून
बेब्याचो बसलो ताळो
आगरा मेरेर बसून ताणे
मिठाचो घेतलो गळगळो
ताळो जालो सदळ पूण
सुजलो ताचो गळो

उडक्यो मारीत घरा वतना
मेळळो दोतोर ऊय
ताणे बेब्याक घरा व्हेलो
कुल्याक तोपली सूय
हात घालो ताळ्यांत आनी
काडली एक मूय

बेब्यान मारली ऊंच उडी
हाय हाय हूय
बेब्याची उडी पळोवन दोतोर
शेंवटून पडलो भूंय
बेब्याक चाळयत मुयेन केलें
कूय कूय कूय

# ३९. थंडी

पावस भरलो कुपांनी
कुपां फुटलीं जोगलांनी
उदक रकलें घोग्यांनी
शेतकार धांवले शेतांनी

झांडा न्हालीं उदकानी
कोयर पळ्ळो खळयांनी
शेवणीं गेलीं घोंटरांनी
न्हावन घेतलें दोगरांनी

तळीं जालीं दारांनी
भुरगीं नाचलीं उदकांनी
थंडी भरली नाकांनी
भायर सरली शिकांनी



# ४०. पावस जर पडलोना

पावस जर पडलोना
खळ्यांत उदक भरचेंना
उदका दर्या आमचें
कागदा व्हडें व्हरचेंना

पावस जर पडलोना
मातये कसो येतलो वास?
पाचव्या पाचव्या तणाची
धर्तेर कशी जातली रास?

पावस जर पडलोना
झाडांक कशीं येतलीं पांना?
फळां कशीं लागतलीं झाडांक
पाचवीं कशीं जातलीं रानां?

पावस जर पडलोना
म्हातारी कशी दळटली पीठ?
कसो जातलो दिसाचो काळोख
मळबांत कशी नाचतली वीज?



पावस जर पडलोना
रस्ते कशे बुडटले?
डरांव डरांव करून शेतांत
बेबे कशे रडटले?

## ४१. तुजें व्हडें म्हजें व्हडें

पावस आयलो चला चला
व्हडीं सोडया कागदाचीं
व्हड्यांत आमी बसून बरी
मजा करया भिजपाची

काळें व्हडें तुजें आनी
व्हडलें धवें म्हजें
तुज्या व्हड्यांत म्हज्या व्हड्यांत
इल्लें इल्लें वजें

तुजें व्हडें आपटलें
गिरी गिरी घुंवलें
हालत घोलत म्हजें व्हडें
मामा घरा पावलें



# ४२. पापा

खुर्चेर बसून पापा म्हजो
आपूण गायता पदां
म्हाका मात म्हणटा कसो
अभ्यास करचो सदां

आपूण बरो घेवन खाता
बशयो भरुन शिरो
हांवें आनीक मागल्यार म्हणटा
भुरग्यांक तितलोच पुरो

हात हालयत पापा म्हजो
वयता ऑफिसाक
आमचे फाटीर सदां उठून
पुस्तकांचो साक

देवा म्हजें काम कर
खावंक दितां टिफीन
पापा इतलो व्हड कर
म्हाका बेगीन बेगीन



# ४३. दादी

एक आसा दादी
पोट ताचें दुदी

ताचे दोनय गाल
सोलूंक नासले नाल

माथें पडींग मळ
सामको विमानतळ

दोळे गेल्यात भितर
पुरोवन थेयल्यात फातर

तोंडांत ताच्या दांत
चार तीन सात

तो जेन्ना चलता
रस्तो सगलो हालता

तो जेन्ना न्हिदता
फक्त पोट दिसता

दादी आमचो बरो
हजार वरसां उरो

## ४४. हांव जातलों कोण ?



हांव जातलों वैज
कोणाक मरूक दिवचोंना
हांव जातलों शेतकार
कोणाक उपाशी थेवचोना
हांव जातलों गवंडो
रस्त्यार न्हिदूंक दिवचोंना
हांव जातलों शेणै
कोण नेणार उरचोना

हांव जातलों सूर्य
कोणाक काळखांत सांडचोंना
हांव जातलों चंद्रीम
काळोख जावंक दिवचोंना
हांव जातलों न्हंय
एका जाग्यार रावचोंना
हांव जातलों वारो
कोणा हाताक गावचोंना



## ४५. बोंडला

बोंडला अभयारण्यांत
मानगें गोठेलां पाणयांत
हत्तीचे फाटीर भोंवता नाग
ताका पळयत बसला वाग
लांब लांब करुन मान
जिराफ मळबांत सोदता विमान
कोलो बसला बांकार
नदर लावन सौशार
पांदऱ्यांत भोंवता रानदुकर
अजाप जाला घरदुकर
धांवपाक तयार रावला घोडो
मुखार उबो रानरेडो
पळय कशी चलता साळ
फाटीर घेवन कांट्यां दाळ
शेंपडी हालयत भोंवता चानी
म्हणटा हांवच हांगची राणी
पांखां फुलोवन नाचता मोर
खोशी जाले शाळे पोर
माकड म्हणटा हूप हूप
म्हज्यांत तुमचें पळय रुप

# ४६. म्हाका जाय

म्हाका जाय झाडू
कोल्या कोल्या, तुजी शेपटी काडू?
   किरा किरा म्हाका
   लिप्स्टीकचो सोस, दिता तुजी चोंच?
कावळ्या कावळ्या
पेनांतली सोंपली शाय, तुजो रंग जाय
   गाये गाये
   खूब तण खागे, म्हाका दुद जाय ग़े
कोंबडे कोंबडे
आयज राती, घाल एक तांती
   कोंब्या कोंब्या
   सोंपत आयली रात, घाल आता साद
कुल्ली कुल्ली
धरुंक येत म्हूण, दांगे हालोवन चल्ली
   घोणी घोणी
   मळबांत घिङ्ट्यो घालूंक, सांगलां कोणी?



# ४७. झोपाळो

झूम झूम झोपाळो म्हाका झेलयता
कोर्दीच्या बावल्यावरी धरती घुंवडायता

झोपाळ्याचो झेल घेतना वारो रुंवता कानांत
हांव जशें धांवतां जमनिच्या वयल्यान

झोपाळ्याची दोरी घेवन वयता म्हाका वयर
बारीक बारीक दिसता जमनिवयलो कोयर

भुरू भुरू धांवता सगलें जमनिवयलें सामान
खोल वयता जमीन हांव उडटें विमान



## ४८. वारो कोंगरो

वारो व्हांवता कोंगरो
मातयेचो करता भोंवरो
   कुपांक व्हरता ओडून
   पयस दिता सोडून
झाडां पानां शेंवटिता
दारां जनेलां आपटिता
   झाडाचें हालयता मूळ
   दोळ्यांत घालता धूळ
हांव सांगपी सराक
मारूक लावपी वाऱ्याक



# ४९. पावसाक मारल्या मस्ती

वाऱ्यावांगडा खेळटा कुस्ती
पावसाक मारल्या मस्ती
झाडां सगलीं हालयता
रातच्यो लायटी पालयता
घरां मोडून उडयता
रस्ते उदकांत बुडयता
सगल्या लोकांक भिजयता
जोर हाडून न्हिदयता
जोगलां मारून चाळयता
शाळेंत उदक गळयता
झगडी करता मोट्टी
देखून म्हजी गट्टी



# ५०. माणकुलें गोंय

हिऱ्या माणकांचें भांगर रुप्याचें
माणकुलें गोंय हें
पाचव्या रानांचे तांबडें मातयेचें
आमगेलें गोंय हें

कोलवें, मिरामार, बाग कळंगुटे
नुस्त्या दर्याचे
रेंवेंत बसून रंग पळोवचे
बुडट्या सूर्याचे

म्होंवाळ फळांची, वखदी रुखांची
गर्दी कुळागरांत
आंब्या पणसांची, वासाळ फुलांची
सावळी दारादारांत

नाल्ला पेंडयांनी माड नटलेले
हारीन उबे बांदार
फांतोडे वेळार शेतकार वतात
नांगर घेवन खांदार

काजू झाडांच्यो, काण्णा चुन्नांच्यो
दोंगरांच्यो तेंगशो
शेंवट्या नुस्त्याच्यो, कुल्ल्यां सुंगट्यो
खळखळट्यो मानशो



## भरत नायकाची पुस्तकां

### काव्यसंग्रह

मना मना

गीतगंध

### एकांकी

वेंचणूक

काशिपोंदा

चपलाहार (कला अकादमी साहित्य पुरस्कार - १९८३)

भेरें भेरें दुणदुणें

बेकार कवी लाखां धनी

बॉबी न्हिदता तेन्ना

नंबर ३६

तिसरे माळयेर बस (कोंकणी भाशा मंडळ साहित्य पुरस्कार - १९८६)

चामट्याक चिमटो

### बालसाहित्य

पड रे पावसा पड

जादवाचो आयणो (N. C. E. R.T. दिल्लीचो राष्ट्रीय पुरस्कार - १९९७)

११ एकपात्री

शाणुल्या गुणुल्या

एक आसलो.... (कोंकणी साहित्य केंद्र, कुडचडें - 'मथा' पुरस्कार - २००६)

गणपती बाप्पा मोरया

व्हडलो जातलों हांव

धवो कावळो

### नाटकां

राम राम भाऊ

युगान्त (कला अकादमी नाट्य लेखनाचें पयलें इनाम - १९९४)

शॉक ट्रीटमेन्ट

एके रातीन एके वातीन